# बी. वी. बाळो - कोंकणी कळो

(जीवन आनी वर्पा)



बरपी :

प्रो. नागराज राव् जवळी, एम्. ए.

# बी. वी. बाळो - कोंकणी कळो

## (जीवन आनी बर्पी)

प्रो. नागराज राव् जवळी, एम्. ए.



प्रकाशक
कर्नाटक राज्य कोंकणी भाषा अल्पसंख्यातांगेले विद्या संघु,
मंगळूर, कर्नाटक

Bi. Vi. Baalo-Konkani Kalo (jeevan aani barpi) written by Prof. Nagaraj Rao Javali, Principal, Canara College, Mangalore - 575 003.

Pages : 40

Price : Rs. 50/-

Published by :
Karnataka State Konkani Linguistic Minority Educational Institutions' Association, Mangalore. (Dakshina Kannada District) 575 001.

Printed at :
Vicoria Printing Works, Bantwal - 574 211.

# प्रकाशकालें उत्रं

श्री बंटवाळ वासुदेव बाळिग - बी.वी. बाळो-कोंकणी कळो - जन संपदांत लोक मोगाळ जाव्न आशिलो। कोंकणी माय भाषेचे उदरगती खातिर तागेले जीवितभरी वावुरल्लो। करावळि कर्नाटकांतु कोंकणी समाजाचे दोनी पिळगिक कोंकणी भास, संस्कृती, कला, संगीत, नाटक इत्यादी क्षेत्रांत माहिती दीव्न सेवा करचाक निरंतर उत्साह हाळलो महान् चेतन।

तागेले तर्नाटि प्रायेरी दी. व्ही.एस्. कुड्वांले "सारस्वत" (१९४०-४६) कोंकणी नेमाळेंत सहसंपादक जाव्न पत्रिकोद्यमांत अनुभव घेव्न, नंतर १९६७ इस्विंत श्री काशीमठ संस्थानांचे परमगुरु श्री सुधींद्र तीर्थ स्वामीजिंगेलो आशीर्वाद घेव्न "पंच्कदायी" कोंकणी म्हैन्याळे ताणे शुरुवात केलें। "पंच्कदायी" पत्रिका मुखेन कोंकणी भाषा प्रचार आनी कोंकणी समाजांत एक्सट हाडचाक ताणे तोची एक संस्थो जाव्न अहर्निशी ३० वरस बाळिगा मामान संपादक वृत्ती केलेली। नंता "पंच्कादायी" मास पत्रिका कोंकणी भास उलोवचे वेगवेगळे जाती धर्माचे मुख्य जाव्न कोंकणी क्रैस्त भांव्ड आनी आमगेले समाजाचे मध्यें एक सांकव जाव्न परस्पर मधुर संबंध वाडुन यवचाक प्रयत्न केलें। ३० वरस संपादक जाव्न आसुन, तागेले उत्तर वयारी मणिपालचे कोंकणी भाषोद्धार ट्रस्ट् संस्थाक पंच्कदायी पत्रिका हातांतर कर्न निवृत्त जालो।

श्री बी.वी. बाळिगा ९-१२-२००५ दिवस अंतर्लो। त्या कोंकणी महामहिमालो उगडास कर्न, तांगेले जीवाताचो संदेश आमगेले मुखावयले पीळगिकय पावका आनी कोंकणी माय भासेचे सेवा करचांत स्फूर्ती दीवका म्हळेले उदेशान आमगेले कर्नाटक राज्य कोंकणी भाषा अल्पसंख्यांक विद्या संस्थेचे संघान ०९-०४-२००६ दिवस मंगळूरांत "कोंकणी कळो बी.वी. बाळिगा संस्मरण" समारंभ दबाजेन आचरण करचे ठरयलें।

केनरा कालेजांचे प्रांशुपाल श्री नागराज जवळीन १० वरस पयलें श्री बी.वी. बाळीगालें जीवन आनी कार्यं म्हळेले पुस्तक बरयिलें। आनी श्री बी.वी. बाळिगा मामाली अभिमानी श्रीमती एम्. लक्ष्मी पैन कन्नड लिपिन आशिलें पुस्तक प्रकाशन केलें। आतां श्रीमती एम्. लक्ष्मी पै अंतरल्या। तिगेले आत्माक परमात्म शांती दिवो।

बी.वी. बाळो-कोंकणी कळों पुस्तक आतां आमगेले संस्थेचे वतीन, कर्नाटकाचे भाग्र विंगड राज्यांत आसचे कोंकणी भांव्डांक आनी अभिमानिंकय् पावोचे उद्देशान देवनागरी लिपिन उजवाडाय्ताची। पुस्तक बरेयिले प्रो. नागराज जवळी क देवु बरें कोरो।

"बी.वी. बाळो - कोंकणी कळो" पुस्तक सुंदर, शोबीत जाव्न छापसिलें बंटवाळ मे। विक्टोरिया प्रिन्टांग प्रेस हांका देवु बरें कोरो।

पुस्तक प्रकाशन करचांत दुड्वा मदत केलेले डा. टी.एम्.ए. पै फौंडेशन मणिपाल हांका देवु बरें कोरो। डी.टी.पी प्रूफ् रीडिंग केलेली श्रीमती संध्या शेवगूर हांकाय् देवु बरें कोरो।

मंगळूर — **डा। यु. एस्. मोहनदास नायक**

०९-०४-२००६ — *अध्यक्ष*

*कर्नाटक राज्य कोंकणी भाषा अल्पसंख्यातांगेलो*
*विद्या संस्थ्याचो संघु, मंगळूर, कर्नाटक*

# लेखकालीं दोनी उत्र

शिक्वणी खातीर घाट्टावैलान हाव तीस वरसा पुडे कन्नड जिल्लेक आय्लो तेद्वान ताकुनु माका बाळमामालो परिचियु जाल्लो | जाल्ल्यारि तांगेलाग्गी माका सलिगा जांवो ना | हांवा तांका मेग्गेलो गुरु म्हणु लेक्ता - एक एकलव्य म्हण्के आशिलो शिष्यु हांव | तांगेले वय्री माक्का भय, भक्ती आनी गौरव अगाध जाव्नु आस्स |

एक तीन वरसा पुडे हांवे तान्नी संपादन केल्लेले पंच्वीस वरसाची "पंच्कादायी" पत्रिका पूर्णप्रमाणेरी अभ्यासु केल्लो | बाळमामाली साधन कस्सले म्होणु तेद्दना माक्का आनीक स्वष्ट जाल्ले | गुत्तभक्ताले म्हण्के तांका हांवे पोळोच्याक प्रारंभ केल्ले |

आत्ता बाळामामाले वय्री पुस्तक बरेका म्होणु हे पुस्तकाचे प्रकाशकि मिस एं. लक्ष्मी पै, बि. ए., एल. एल. बि. हान्नी माक्का प्रेरेपणा आनी प्रोत्साहु दिल्लो | हांगेले कारणानि आजि हे पुस्तक प्रकाशित जात्ता आस्स | हांका हांवा आभारी जाव्नु आस्स |

बाळामामाले पुस्तक संग्रहांतुलान माक्का जाव्कास्सिले पुस्तक दीव्नु माक्का उत्तेजन दिल्लेली श्रीमति उमाबाळिगा - बाळा मामालि सून - हांक मिग्गले कृतज्ञता समर्पण कर्ता |

वाचका लाग्गी एक विनंति कर्ता आस्स | हे मिग्गेले पुस्तकांतु मस्त् चूकी आश्चा पूरो |.दयदवोर्नु ते चूकि पळैनाशि माक्का क्षमा कोर्का म्होणु हांव सक्णांलाग्गी माग्ता | मेग्गेले दृष्टीन्तु बाळमामु एक्ळो होडु मनिशु | तांगेले वय्री

येत्ताश्शिले हे पुस्तक मात्र भारी सान जाल्ला। जाल्ल्यारी तांगेल वय्री आय्यिले प्रथम पुस्तक हे मिग्गेले सान प्रयत्नानी कोंकणी उल्लेतालांक बाळमामाले जीवनासंदेशु पाव्लारी मेग्गले उद्देशु सार्थक जात्ता म्होणु हांव लेक्ता।

हे पुस्तक बरैताना सर्वरीतीरी प्रोत्साहु दिल्लेली मेग्गेली बाय्ल पार्वती जवळी अनी पूतु अर्जुन जवळी हांका,

अनी पुस्तक घेव्नु वाज्जिता आश्शिले तुम्का,

मेग्गेली कृतज्ञता समर्पण कर्ता।

मंगळूरु
१९-१२-१९९९

नागराज राव जवळी

रूक फल दित्ताती, नय्यो उदाक व्हांवत्ताती,
गाय्यो दूद दित्ताती, आनी चांग मनुष्य
दुस्रांल्या चांग खातिर जीवन करताती

- महाभारत

श्री बी. वी. बाळोमामानची अनुवाद केल्लेले महाभारतचे हे प्रसिद्ध उत्रांनी तांगेले जीवन चरित्रे आरंभु कोर्येत म्होणु हांव लेक्ता। तांगेले जीवाचे जाव्नु आश्शिले पत्रिका "पंच्कादायी" न्तु चांग विचारु प्रचारु कोर्चे उद्देशानी अस्सले मस्त उत्र तान्री अनुवादु कोर्नु दिल्ला। आनी हे उत्र पूर्ती तांक बरी उत्र मात्रा न्हंय, उत्रा तान्री तांगेले जीवनँ चलैसिलेले होडु मनिशु जाव्नु आस्सती।

श्री बाळोमामाले विषयारी एक प्रसिद्ध उत्र चाल्तींतु आस्स; "बांळो-कोंक्णी कळो" म्हळ्ळेलेंची हे उत्र। बाळो म्हळ्ळेले नांव कोंक्णी उल्लोचे जनाले स्वभावानी बाळो म्होणु जात्ता। प्रासाक होंद्वुनु रचन जाल्लेले उत्र हे। एकरीतीरी बाळमामु कळोचि व्हय। गुण, नय, विनयवंतिका, आदर्श आनी प्रामाणिकता - हे सक्कड दवोर्नु फेव्नु पत्रकर्ताले दृष्टीन सदा कळो म्हण्के आश्शिले ते। आम्गेले मंग्ळूर्चे मोगारे पर्मोळु आनी ताज्जे विशिष्टपण आम्का कोळ्नु आस्ल्यारी हें उत्र अर्थु समअर्थु जात्ता। मंग्ळूर मोगारे आप्पळ्यारी हात्ताक घमघम पर्मोळु, माळ्नु फेत्ल्यारि मन आनी आंग हगुर जात्ता। तस्सले पर्मोळु दिव्वे बण्णाचे फूल ते। बाळमामु तस्सले मंग्ळूरु मोगार्या कळो।

आम्मी सारस्वतु लोकु। पंजाबाचे सरस्वती न्हंय्चे तडीरी आस्सिलेति आम्मी। तश्शी जाव्नु आम्का सारस्वतलोकु म्होणु नांव आय्ले। आम्मी थंय तुलान बिहाराचे तिहूर्ताक, कडेरी थंय तुलान सग्ळे देशांतु पसरून गेल्लीले

आम्गेले। कष्ट शिवायि सुक बोग्गीले न्हंय आम्मी। दुकाल, आनी दबाव एदुर्सुनु, आम्गेले स्वंतिका आनी संस्कृती राकुनु फेव्नु येव्चे प्रयत्न कर्ताचि व्यवहारक्षेत्रांतु मुकारी आय्लेती। वांचूनु अस्चे समस्या आम्का तेद्दना होड जाव्नु आश्शिले। एक कडे स्थिरजाव्नु राब्ले नंत्र चिक्के हासु आनी सुक भेर्लेले जीवनकोर्च्याक सुरु केल्ले।

हे सक्कड कारणानी आम्का स्वंत भाशा अस्ल्यारिची ते भाशेक लिपि ना। बहुशः आम्मी ते विशयांतु मात्ते हून कोर्नु घेनी। आश्शिले गावांतु उल्लोचे भाशेचे लिपींतुचि व्यवहारु केल्ले। ती भाशा आम्गेले कोर्नु घेत्ली। तश्शी देवनागरी, कन्नड, मलेयाळं, आनी उर्दु लिपींतु कोंकणी भाशा वाड्ता गेल्ली। कर्नाटकांतु कन्नड लिपींतु कोंकणी साहित्य रचना जाल्लि। व्यवहारु आनी जीवन आम्का होड जाव्नु आस्चे निमित्त साहित्य, जनांग अनी भाशा विषयारी अभिमानु दर्वोर्नु फेव्नु, ते दृष्टींतु विचारु अनी योचना केल्लेले लोकु भारी ऊणे। हात बोट्टान ल्याक कोर्येत तित्ले जन आस्सति। हे एक कारणानि आम्मी सारस्वत लोकु अभिमानुनात्तिले लोकु व्हय।

लोकांतु आस्चे जनांक दोनी रीतिन विंगडण करता व्हंय्। एक डुक्रा जातीक सेर्वलेले। आन्येक म्होवा मूसा जातीक सेर्वलेले म्होणु। व्हंय म्हळ्ळयारी थंय, कश्शी जाय्त तश्शी आस्ताची, मेळ्ळेले खात्ताची, गिळताची आस्चे प्राणी म्हळ्ळारी डुक्कर। तेंची म्होव्वा मूसाक कंचे पूल्लान्तु कंचे रोसु आस्स, ताज्जे रुचि कश्शी आस्ता म्होण्चे पूर्वज्ञान अस्ता। विंविंगड फूल्लारी तो मूसु बैसूनु, पूल्लारोसु हीर्वुनु गूडा येव्नु रुची आश्शिले म्होवु जाव्नु परिवर्तन कोर्चे सामर्थ्य म्होवा मूसाका आस्स। आम्गेलो बाळमामु तस्सले म्होवा मूसा जातीक सेर्वललो कर्मयोगी तो। स्वंत सुकाचे जांवो योचना कर्नाशि स्वच्च आनी निस्वार्थ जीवन

चलैसिलेलो मनिशु तो। बोक्कडीन खाय्नात्तिलो पाल्लो ना, तशींचि बाळमामान सेवा कर्नात्तिले क्षेत्र ना म्हण्येत। "कर्मसु कौशल" म्होणु भगवद्गीतेंतु सांग्तामु तश्शि तांगेले जीवन।

बाळमामले नावान्तु आस्वे 'बि' मळ्ळेले अक्षर तान्गेल गांव - बंटवाल्चे - संक्षिप्त अक्षर जाव्नु आस्स। तान्गेले पूर्ण न्हांव बंटवाल वासुदेव बाळिग म्होणु। कोंकणी जनांले स्वभावा तकीत जाव्नु तान्गेले नांव बाळो म्होणु प्रसिद्ध जाल्ला। आम्गेले समाजान्तु आत्त मस्त जन बाळे आस्ल्यारिची साहित्य विषयान्तु बाळो म्हळ्ळयारी तो बि वि बाळो म्होणुची अर्थु।

बाळमामले आन्नाले न्हांव श्रीनिवास बाळिग। बंटवाल बाळयाले कुलीन घरण्याचे ते। आव्सूले नांव श्रीमती रत्ना बाळिग। बि वि बाळमामाले जन्मु तान्गेले आव्सूले घरान्तु, आव्सु - बाप्सूक एक्ळो पूतु जाव्नु शालिवाहन शक १८४० कालयुक्त संवत्सरु, श्रावण शुद्ध षष्ठी दीसु म्हळ्ळयारी आगस्ट १३ तारीक, १९१८ न्तु जाल्ले। तान्गेले गोत्र - काश्यपगोत्र, कुलदेवु - जान्बावलि दामोदरु। तान्गेले अज्जाले घरांतूची तान्नी होड जाल्लेती, हे विषयान्तु तान्नी अश्शी सांग्ताती : "पितृप्रेमाचो स्वादु भोगचे, बाप्पूले घर्कडे होड जान्वे भाग्य ब्रह्मान मेग्गेले कप्लांतु बरेयिले ना। मातेल्या, माता महिल्या वात्सल्याचे आश्रयारी मातामहाल्या (आव्सूले बाप्पुसु) घरा होडु जाल्लो"। मंगळूरांतुचि होड जाल्लेती, हांगाची शिक्वणी जाल्ली। कडेरी मंग्ळूर गांवूची तांगेले कर्मभूंयी जाल्ली। शिक्वण इंटर मीडियेट थंय मात्र। हे परीक्षेंतु उच्च श्रेणिंतु पास जाव्नु मुकारी वाज्जूका म्होणु आशा, उमेदी आस्ल्यारियी तान्का तेद्दाना ते सामर्थ्य ना आश्शिले। तश्शी जाव्नु समाजु म्हळ्ळेले होड शिक्वणिस्कूलाक ते उड्डेती।

सान प्रायेरिची तांगेलो उद्योग पर्वु आरंभु जाल्लो। (१९३९, तांका

तेद्दाना २० वरस प्रायु) तांगेले अभिरुची कस्सले म्होणु तांगेले कळीत येव्चेवरेन तान्नी मस्त नमूनेचे आनी विंविंगड क्षेत्रान्तु काम केल्ले। लेक्क परिशोधकालो सहायकु, ब्यांकाचो मनेजरु, वाणिज्य संस्थ्याचो विक्र्या प्रतिनिधी। विमाकम्पनिचो कारकून व अभिवृद्धी अधिकारी, अश्शी नानारीतिचे काम कोर्नु मस्त अनुभवु प्राप्तु कोर्नु फेत्लो।

स्कूलान्तु वाज्जिता आस्तान तांका कला, साहित्य, नाटक, कवन हांतु मस्त अभिरुची आश्शिली। ते अभिरुचीक समजाव्नु आस्चे आनि ते वाड्डून फेव्नु वच्चे तश्शी एक काम तान्नी आरंभु केल्लेले म्हळ्ळयारी १९४१ न्तु। हे वेळारी तान्नी पत्रिकोद्यमान्तु पायु दवर्लो। दि श्रीनिवास कुड्वा अनी "एक आणे पुस्तकमाले"चो दि कुड्पि वासुदेव शेणै हान्नी ह्या वेळारी तांका चांगा रीतिन मार्गदर्शन दिल्ले। १९४० तुलान १९४६ थंय तान्गेले उत्तेजन आनी प्रोत्साहान तेद्दाना प्रसिद्ध नांवादिक जाव्नु आश्सिले "नवभारत" पत्रिका आनी कोंकणी साप्ताहिक "सारस्वत" पत्रिकेचे उपसंपादक जाव्नु स वर्स काम कोर्नु अनुभवु प्राप्त कार्नु घेत्लो। तेंची कालान्तु नांवादिक पत्रिका जाव्नु आश्शिले "प्रभात" पत्रिकेची प्रतिनिधी जाव्नु सबार सत्तीस वरस तान्नी काम कोर्नु अनुभव घेत्लो। अश्शी मुकारी तान्निची संपादकु जाव्नु भाग्र हाड्चे "पन्चकादायी" पत्रिकेक जाव्का जाल्लेले तित्ले अनुभवु पूर्ति तान्नी हांगा संपादन केल्ली म्होण्येत।

बाळमामाक एक्प्टी पळैलारी न्हंयवे तान्गेले वोट्टु उल्लैलारी पुरो। आम्गेले वय्री तांगेलो प्रभावु पड्ता। पोळोचाक चंद अनी लक्षण जाव्नु आश्शिले तोण्ड। पळैले तक्षण तांगेले तोन्डारी येव्चे तो हासु, तांगेले तोण्ड भरी मान्ड्ता। मस्त आकर्षण आश्शिले हासु तो। तेजु भर्लेले दोळो, स पूटाचे देह, हे तांगेले आन्गा लक्षण। तांका धवो बण्णु म्हळ्ळयारी भारी खुषी। तश्शी जाव्नु धवे

बण्णाचे पैजाम आनी तेंची बण्णाचे चोगो तान्नी केद्दाना घाल्नु घेत्ताती। बण्णा उत्र तान्नी उल्लैनाती तशींची बण्णा आंग्ाले तान्नी घाल्नुघेनाती। कपट, मोस आनी दुस्त्र्यान्क मेच्चुसाक म्होणु तान्नी उल्लैनाती। अस्सले भावना तांगेले लाग्गी येना। तांगेले व्यवहारु - जीवन सक्कड राजमार्गरिची चेल्ल्या। ताक्का आड वाट म्हळ्ळेले ना। हे कारणानी दुस्त्र्यानवरी तांगेलाग्गी व्यवहारु कर्ताना प्रामाणिक जाव्नुची आस्का। हे सोण्णु दुस्सर वाट ना।

तांगेलो संसारु सानु जाव्नु चंद जाव्नु आस्चे संसारु। संतोषु भर्लेलो संसारु। तांका पन्व्वीस वर्स म्हण्ताना व्हार्डीका वेळगडी मेळ्नु आय्ली। कुलीन घरण्याचे दि. बैलूरु पांडुरंग किणी अनी श्रीमति रमा किणिबायी हांगेली माल्गडी धूव सौ. उमाले (शान्ता) संगात फेब्रवरी २४ तारीक १९४४ न्तु व्हार्डीक जाल्ली। कीर्तीक एक्ळो चेल्लो आनी आरतीक एक्ळी चेल्ली म्हळ्ळेले मण्के तांका दोनी चर्डुंव। तांगेली माल्गडी धूव श्रीमती इन्दुमती आनी तिग्गेलो बाम्मुणु श्री श्रीनिवास मोहनु हान्नी आत्ता मुम्बैन्तु चंद संसारु कोर्नु आस्सती। हांगेले धूव सौ. शान्तेरी (बाळमामाली नाती) आनी तिग्गेले बाम्मुणु श्री गणेशु आत्त मंग्ळूरन्तु वास कोर्नु आस्सती। दाक्लो पूतु श्री श्रीनिवास बाळो अनी श्रीमती उमा तांगेले पूतु चि. दामोदरु हान्नी सक्कड बाळमामाले संगाता अस्सती। चि. दामोदरु मंग्ळूर्चे एस.डी.एम. कालेजान्तु बी.बी.एम्. शिक्ता आस्स। संसारा सुका दृष्टीन पळैलारी बाळमामु पुण्यवन्तु व्हय। तान्नी तांगेले पत्रिकेंतु आश्शी सांग्लां : "माक्का सरस्वतीलो अनुग्रहु धाराळ। लक्ष्मीलो अनुग्रह बरे ऊणे" म्होणु तान्नी सांग्ल्यारियी मनाक तृप्ती दिल्लीली पत्रिका, तांगेले मन अर्थु कोर्नु संसारु चलासूनु आय्यिली तांगेले बाय्ल आनी सुक दिल्लेले तांगेले दोनी चेर्डुंव - हे दृष्टीन तांका भारी तृप्ति अस्स। हे पुण्य सक्णांक मेळचे तस्सले न्हंय।

तांगेले वय्री मस्त प्रभावु केल्लेले म्हळ्ळयारी तांगेली आव्सूची।

जन्मु दिल्लेली आव्सू आत्री साहित्या दृष्टीन तांका पोशियिले कोंकणी अव्सू हांका दोग्गान्का केद्दाना तात्री विसर्नी। तांगेले आव्सूले देहांत्य, जाल्लेले वेळारी, सेप्टम्बर २, १९८६, संचीकान्तु तात्री बरियिले लेखन, तांगेले मातृप्रेमाक एक उज्वल उदाहरणा जावु आस्स। तांका आम्मी अर्थु कोर्नु घेव्का जाल्ल्यारी अगत्यजावु हे लेखन आम्मी वाज्जूका। हे कारणानी ते लेखनाचे पूर्णपाठु हांगा सकल दिल्ला।

## मेग्गली मातृदेवता माक्का सोण्णु गेल्ली

(२.१०.१९८६)

मातृभाषा कोंकणिची सेवेक माक्का प्रेरेपण दिल्लेली अमोघ शक्ती ती मेजी आवयी। आद्ल्या थीस वरसा धरनु दोनी हातांनी पत्रिकेची काम ससूत्र जावु मुकार्सुनु हाडुंक रक्षाकवच जावुासिली। भगवन्ताली दिव्यवाणी श्रीमद्भगवद्गीतेचे आट्टा अध्यायु सरळ कोंकणिन पद्यानुवादु करुन्क माक्का स्फूर्ती मेळळेलियी तिग्गेल्या कडच्यानची।

आश्शे आनी सात वरसांचे (८७) आयुष्यालान्तु तीणे दुःख अनुभविलेले चड सुख भो ऊणे। "आरोग्यवन्त जा बाळा!" हो आशीर्वाद तित्री साटी काळायी तिग्गेले जिब्बेरी खेळनु असिलो। फाल्यारी उटाय्ले तक्षण देवाक पांय पण्णु तीणे करची आस्सिली प्रार्थना "सर्वांका रक्षण करी देवा" म्हळेली (पन्च्कादायी)

मेग्गेले चर्म चक्षून्क अगोचर जावु वर्ष स्ह सम्प्लिन्ती जाल्ल्यारी तिग्गेलो उल्लासु नित्य निरंतर हांव करनु आस्स। कोंकणिच्या सेवेक माक्का प्रेरेपण दिल्लेली दिव्य शक्ती ती। तिग्गेले आशीर्वाद बलान पन्नास वरसान्चे पत्रिकोद्यम साध्य जाल्ले। तिक्का कश्शी विसोरु? (पन्वार "पंच्कादायी" रजतोत्सव स्मरण संचिका, १९९२)

बाळमामाक कोंकणी साहित्य प्रपंचान्तु आनी कोंकणी समाजान्तु तांगेले न्हांव शाश्वत जाव्च्यक एक मुख्य कारण कस्सले म्हळ्ळयारी तांगेले संपादकत्वारी येत्ता आश्शिल "पन्च्कादायी" मासिका पत्रिका। पन्च्वीस वरसा पर्यन्त निरन्तर जाव्नु चलूसूनु, वेळारी सक्कड वर्गणिदारांक पावोसूनु तांगेले मोगु संपादन केल्लेले कीर्ती तांगेले जाव्नु आस्स। १९६७ तुलान १९९२ वरेन हे पत्रिकेचे पूर्ण निभावण तांगेले जाव्नु आस्सिले। एक रीतिरी एकलव्याले साधना मण्के हें। कडेरी तान्निची तित्ले मोगानी जन्मु दीव्नु, पोश्शिले ही पत्रिका मणिपालाचे नांवाधिक संस्था कोंकणी भाषोद्धार ट्रस्टाक उप्पसूनु दित्ताना, पंच्वीस वरसान्तुलान आजीव सदस्या लाग्गी सन्ग्रह केल्लेले दुड्डु, सुमार १ लक्ष १२ हजार रुप्पयी पूर्ती ते संस्थेक तान्नी वर्गावण केल्ले। तांगेले संगात पंच्वीस वर्स सम्पर्कु दवर्नु फेंव्नु पत्रिका वाड्च्याक कारण जाव्नु आश्शिले सदस्याले विश्वासु तान्नी केद्दाना काण् घेनी। आजीव चंदा म्होणु सांगुनु धा की बारा की पत्रिका दीव्नु कडेरी पत्तोवरीन दीनाशी मायक जाव्नु वच्चे संपादक आस्चे हे कालान्तु बाळमामान चिल्लेली रीती मात्र न्हंवेची जावु आम्का सक्कान्का मार्गदर्शक जाव्नु आस्स। सक्कड आशा, प्रलोभना जिक्वूनु, निस्वार्थ दाक्कोनु दिल्लेले तांगेले व्यक्तित्वाक एक ज्वलंत उदाहरण हे। आनी तान्नी कोंकणी जनाले मन जिक्वूनु घेत्तिली रीती ही।

बाळमामान १९८७ न्तु, दीपावळी संचिकान्तु बरेयिले एक अग्रलेखन एक रीतिरी महत्व पूर्णजाव्नु आस्स म्होणु हांव लेक्ता। "हांव, कोंकणी आनी पंच्कादायी" म्हळ्ळेले नांवाचे हे लेखन बाळमामाले मन कस्सले म्हळ्ळेले दाक्कोनु दित्ता। हेंची कारणानी ते लेखन पूर्ती हांगादिल्ला।

# हांव, कोंकणी अनी "पंच्कादायी"

हांव एकु सामान्य मनुष्य। तोंडांतु रुप्प्या चम्मे दवोर्नु होड जाल्ललो न्हंयी। पितृप्रेमान वंचित जाल्लेले माक्का मातृप्रेमाचे अमृत धारेन कष्टान होड केल्ललो मेग्गेले आव्सून। तिग्गेले बाप्सूल्या (मेग्गेले आज्जाले) घरा मेग्गेले बाल्य, शिक्षण तारुण्य संप्ले। शिक्वी तानी आस्सिली जाल्ल्यारियी ते मुकार्सुचे अनुकूलता नात्तिले इंटर मीडियेट तांयी मात्र शिकलो।

मेग्गेली मातृभास कोंकणी। त्या भाषेच्या सेवेक माक्का प्रेरेपण दिल्लेली अमोघ शक्ती मेग्गेले आवयी। पत्रिके मुखांत्र त्या भाषेची सेवा करुन्क माक्का प्रथम अवकाशु मेळ्ळोलो १९४१ इस्विन्तु। "सारस्वत" नांवाच्या साप्ताहिक पत्राद्वार सेवा करुन्क माक्का अवकाशु करनु दिल्ललो महानुभावु दि. वामन श्रीनिवास कुडुवु। कोंकणी साहित्य सेवेचो गुरु दि. कुड्पी वासुदेव शेणै, ह्या तीग जनांलो ऋणभारु जीवनांत्य पर्यन्त विसोर्च्या न्हंयी।

"पंच्कादायी" मासपत्रिका आरंभ करुन्क प्रेरण मेळ्ळेली धर्मगुरु श्री गुरुमठाधीश परमपूज्य श्रीमद सुधीन्द्र तीर्थ स्वाम्यांले कडच्यान। मेग्गेले दोनी हात्तांनी त्या पत्रिकेचे काम एक्वीवर्ष धर्नु सांग जाव्नु चल्लले। तांगेले आशीर्वाद आनी अनुग्रह बलान। हो मेग्गेलो दृढ विश्वासु। पत्रिका आरंभु करताना मग्गेली प्राय पन्नासाक एक ऊणे। आज्जी सत्तरिक पावल्या। हांवे प्रीतीन पालन, पोषण केल्लेले। प्रस्तुत विशाल गौड सारस्वत समाजाचे एक मात्र मुखपत्रा सारखे आस्सुचे, ह्या पत्रिकेचे भविश्य, भद्र करका म्हळ्ळी एक आशा मात्र बाकी उरल्या।

दैवानुग्रह आनी धर्मगुरूंल्या आशीर्वाद बलान ताक्कायी एकु सदवकाशु दृग्गोचर जाल्ला। ट्रस्टाचे नांवांचे एकट्रस्ट निर्माण जाव्नु मुकारी त्या ट्रस्टाचे

कोंकणी भाषोद्धार नांवारी आर्निकेयी सर्वांग सुन्दर करनु पत्रिका कायम् चलचे व्यवस्थेक हांव सही करनूयी आय्ला। ह्या ट्रस्टाचे प्रधान कार्यालय मणिपालान्तु आसतले, ट्रस्टिमंडलान्तु हांवयी एकु ट्रस्टी (आजीव) आसूनु पत्रिकेक मेग्गेली सेवा आखैरिचो उस्तु म्हणसरी मुकार्सुची आश्वासन पत्रिके ससूत्र जाव्नु चलच्याक प्रत्यक्ष व परोक्ष सहकारु दिल्लेली सर्वान्क दीव्नु, ह्या व्यवस्थेक तांगेली सम्मती आसतली म्हणु दृढ विश्वासु लेकता।

साधारण जाव्नु एक पत्रिके आरम्भु जात्तान ताक्का एक विशिष्ट उद्देशु आनी कल्पना आस्ता। संपादकले वय्रिवरेन इत्ले जवाब्दारी आस्ता। एक पत्रिकेचे गुण पळैल्लारी तांतु सामान्य जाव्नु घटनेचे वरदी आस्ता। समाजाचे चांग - वाय्ट विवर्सूचे विमर्शा आस्ता। बरेपणाक प्रोत्साह दिव्वे आनी वाय्टपणाचे खंडनकोर्चे उत्र आस्ताती। आम्गेले समाजाचे परंपराचे उड्गासु कोर्नु दिव्वे विचारु पूर्ती आस्ता। माल्गड्यालो जीवनाचे चित्रण आस्सूनु। तांगेले रीतीरियी आम्मिवरेन जीवनकोर्या म्हळ्ळेले संदेशु आस्ता। अस्सले आदर्श सक्कडपत्रिकेन्तु आश्शिले आम्मी पोळोवेत।

बाळमामान आरंभु केल्लेले "पंच्कादायी" आन्तुवरेन वय्री सांगिले सक्कड गुण आश्शिले म्होण्चे भारी खुषीचे विशयु। हाक्का एक कारण म्हळ्ळयारी तांगेले होड मन। तांका तांगेली मातृभाषा वय्री मस्त मोगु अनी अभिमानु। तांका जन्मु दिल्लेली आव्सू अनी कोंकणी अव्सू हान्नी दोग्ग मात्र पूजेक अर्हजाव्नाश्शिले। पत्रिकेचे प्रथम संचिकेन्तु - जनवरी, १९६७ - पत्रिकेचे ध्येय, उद्देशु कस्सले म्होणु तान्नी विवर्सिला। तांगेले प्रथम संपादकीयान्तु - "संपादकांली चारी उत्र" - ते स्वष्ट जाव्नु तान्नी सांग्ला।

"मेग्गेली पत्रिका केवल भाषा प्रचारु मात्र न्हंय; शिथिल जाव्नु गेल्लेले

सारस्वत समाज सुसंघटित करका; समाज म्हळ्ळे पवित्र मंदिर विद्येन बुद्धीन सत्कर्मान शोभित करका - ह्या पत्र द्वारा दूर दूर वोच्चोनु राब्बिले सारस्वत बन्धु बान्धवांलो समागमु एकत्र घडका। हे उद्देशयी पत्रान दवोर्नु घेत्तिले" - अश्शी म्होणु तान्नी बरेयिला। हे उत्रा तान्नी तांगेले दृष्टींतु दवोर्नु घेव्नु पत्रिकेचे मुखांत्र निरंतर जाव्नु आम्गेले समाजु बांदोचे कामान्तु तान्नी मग्नजाव्नु आस्सिलेती।

जनवरी १९६७ न्तु बाय्र आय्यिले प्रथम संचिका मुखांत्र तांगेले मनोगुण आनी तांगेले साहित्याचे अभिरुची, कल्पना, सोप्पन अनी तांगेली आशा सक्कड् पोळोच्याक् मेळता। प्रथम संचिका डेमी १/८ आकारारी आस्पूनु २८ पृष्ट आस्सिले। कोंकणी समाजाचे तीनी मठाचे स्वाम्यांगेले आशीर्वचनाचे पत्र हान्तु प्रकट जाल्लेले। प्रकाशन संस्था नांव - श्री वेंकटेश्वर पब्लीकेशन्स, मुद्रणालय : श्री गणेश प्रिन्टर्स, अळके, मंग्ळूरु – ३। वर्गणी विवर : पोषक - २५० रुप्पयी, आजीव सदस्य - १०० रुप्पयी, आश्रयदात १० रुप्पयी, अनी पत्रिकेचे एर वरसाक वर्गणी ४ रुप्पयी मात्र।

पत्रिक आरंभु कर्ताना ती पत्रिका न्हंवे रीतीरी आस्का म्हळ्ळेले कल्पना तांका आस्सिली। "पंच्कादायी" म्हळ्ळेले नावंची न्हंवे जाव्नु आश्शिले। पंच्कादायी म्हळ्ळयारी देवाले कडच्यान मेळचो प्रसादु। तोंडारुची कित्ले आस्सो, पंच्कादायी कोर्नु खाव्च्याक मात्र कोणी वच्चनाती। ताक्का "नैवेद्या"चे प्रबावळी आस्स। पूजा जाल्ले नंत्र वांट्च्याक मात्र ताज्जे उपयोगु। ते आम्मी खात्ताना मेळचे तृप्ती आनी आनंदु होड जाव्नु आस्ता। बाळमामाक तांगेले मातृभाषा आनी समाजु म्हळ्ळयारी देवाले समान। हेंची कारणानी तान्नी समाज बांधवांक् नैवेद्य रूपारी पंच्कादायी पत्रिका वान्ट्ता आश्शिले।

"पंच्कादायी"चे हर्येक संचिकान्तु एक न्हवेपण आस्ताले। भरपूर

माहिती अस्सूनु [illegible] मस्त विशय [illegible], अथवा [illegible] नियमित जावनु प्रकट जाव्चे लेखनाचे विवर पूर्ती दिल्ली। [illegible] अभिरुची पळोनु ती लेखनमाला तान्नी मुकाविल्ला। पत्रिकेन्तु [illegible] प्रकट जाल्लेले लेखनाचे सानु परिचय हांगा कोर्नु दिल्ला।

"नित्यकथा" : हे विभागांतु सानकाणियो प्रकट जात्तस्सलीं। आम्गेले दिसानदीसाचे जीवनांतु पोलोच्याक् मेळतस्सल विशया वय्रा बरोयिले काणीक मान्यता मेळतस्सली। काणी म्हळ्ळे तक्षण कल्पना मस्त आस्चें सहज। जाल्लारी "नित्यकता" न्तु समाजाचे लोपदोषाचे चित्रण आशिल्ले काणियान्क अग्रप्राशस्त्य मेळतस्सिले। आम्गी आस्चे रीति, आस्का जाल्लाले रीति सक्कड पाल्लोनु सांगनाशी मनान्तु विचार प्रचोदना कोर्चे तस्सले काणियां हांगा प्रकट जात्तले।

"कोंकणी गाद्यो - हुम्मण्यो" :- कोंकणी साहित्यान्तु जाव्काजालोतास्से जानपद साहित्याजे भंडार आस्स। ते संग्रह कोर्नु अध्ययन कोर्चे काम मात्र आनाकयी सम जावनु चल्लो। मस्त पुडे श्री एस्. एस्. [illegible] कोंकणी गाद्यो - आनी हुम्हण्ण्यो संग्रह कोर्नु प्रकट केल्लेले। बाळमाभन तांगेले पत्रिकेन्तु तान्नी संग्रह केल्लेले जानपद गाद्यो आनी हुम्मण्यो प्रकट केल्लेल नैशी वाचकानिवरेवन हे संग्रहाक भरपूर काणिक दिव्चे तरशी केल्ले। पच्चीस वर्सान्तु अशे तान्नी संग्रह केल्लेले गाद्यो आनी हुम्मण्यो [illegible] आस्स। हे रीतीन पत्रिका मुखान्त्र जानपद साहित्य पूर्ती आम्गेले माक्षी पीळगीतूची होड्नु वच्चानाशी संग्रहकोर्नु एक् अमूल्य सेवा तान्नी केल्लां।



## धार्मिक विचार :-

"मठांची माहिती", "धर्ममन्टपु", "पुराणांतल्यो काणियो" - दार्मिक विचार

आश्शिले लेखनाचे नांव हे। देव्ळाचे परिचयु, स्थळ पुराण, थंय् चल्चे पूजा रीती सक्कड अध्ययन कोर्नु पूर्ण प्रमाणेरी परिचय कोर्नु दित्तालेती। आम्गेले समाजाचे संप्रदायु, संस्कारु चोल्नु आय्यिले रीती कश्शी म्हळ्ळेले आम्का हे लेखना मूलक कळताले।

"मठान्ची माहिती"न्तु समाजाचे तीनी मठान्ची माहिती, स्वाम्यांले वरदी थंय् चल्चे कार्यक्रमाचे विवर प्रकट जात्ताले। धार्मिक विचाराचे एक् पुनर्विमर्शा आनी ताज्जे नंवे दृष्टी "धर्म मंटपा"न्तु प्रकट जात्ताले। पुराणान्तुले काणियो संग्रहरूपारी "पुराणान्तुल्यो काण्यो" हांतु प्रकट जात्ताले। अश्शी जानपद संग्रहा कार्य। आम्गेले देव्ळ आनी स्थळ पुराणा मूलक समाजशास्त्राचे दृष्टीन आनी मठु - धर्मगुरु हांगेले विशयारी दिव्चे विवरा मुखान्त्र धार्मिकविचारु - अश्शी "पंच्कादायी" पत्रिका सर्वजनांले ज्ञान वाड्डोतुंचा होड पात्र काण् घेत्लां।

आनी साहित्या दृष्टीन पळैलारी स्वंतरचनाक अवकाशु दिल्लेली नैशी साहित्य वाड्च्याक कारण जाव्नु अश्चे अनुवाद साहित्याकवरीन तान्नी प्राशस्त्य दिल्ला। कोंकणी लोकाक पुरंदरदासाले भजना आनी मराठीभाषेन्तु रचन जाल्लेले अभंगा वय्री विशेषजाव्नु मोह आस्स। हे कारणानी हे दोन्नी भाषेन्तुलान कोंकणीभाषेक अनुवाद जाल्लेले शंबरीगट्ले भजनापद्य पत्रीकेन्तु उज्वाडा आय्ला। अनुवादू कोर्च्यान्तु मस्त श्रमु काण्गेत्तिले लेखकांक पत्तीकेन चांग रीतीरी प्रोत्साहु दिल्ला। कोच्चिचो श्री अनंत भट्टु आनी दांडेलिचो श्री के.एन्. राव् हान्नी पंच्कादायी मुखान्त्र भजनापद्य अनुवादु कोर्नु आम्गेले समाजाका आनी कोंकणीभाशेक तांगेले काणिका दिल्ला।

समाजाचे बाय्लमन्श्यांक पत्रिकेन केद्दाना विसर्नी। आरंभा संचिकेतुलान दोर्नु आज्जीवरेन एक्क रीतीन बाय्लामन्शांक पत्रिकेन प्रोत्साहु दिल्ला। "महिळा

प्रपंच" विभागान्तु तांगेले खातीर आनी तांगेले समस्या तांगेले अभिरुची वाड्डोचे तस्सले मस्त लेखन प्रकट केल्ला। महिळा समाजाचे कार्यक्रमाचे वरदि प्रकट जाल्ला। "खाण - जेवण" विभागन्तु बाय्लमन्शांक भारी खायिस् आश्शिले खाण अनी जेवण कोर्चे विधानाचे विवरण प्रकटजात्ताले।

"चडुर्वांले आंगण" - विशेष जावू तांगेले "खातीरची आश्शिले" विभागु। हास्य, सानी काण्यो, गाद्यो, चडुर्वांक सुलभ जावू अर्थजाव्वे तस्सले "आदर्शाचे उत्र, चडुर्वांनची बरेयिले" सानिकाणियो, पद्य सक्कड हे विभागान्तु प्रकट जात्तस्सिले।

"वाडूलेले दिव्वे" म्हळ्ळेले धारावाही लेखनमालान्तु आम्गेले समाजाची होड मनिश्याले विषयु, तांगेले जीवनचरित्र प्रकटजात्तस्सिले। आम्मी तांका आदर्शजावू दवर्नु घेव्का म्हळ्ळेले संपादकाले उद्देशु आस्सिलो। तांगेले जीवनाचे कष्ट, तान्नी केल्लेले साधनाचे पूर्ण माहिती हे लेखना मुखांत्र वाचकान्क मेळनु, आम्गेले माल्गाड्याले त्यागु अनी तांगेले बलिदानाचे चित्र आम्गेले मनान्तु घट्टी जावू वर्ताले।

हे मालिकेन्तु केनरा विद्या संस्थ्याचे स्थापकु दि. अम्मेंबळ सुब्राय पै, कीर्तन केसरी गेरुसोप्पे राम पै याने श्री राम बावु, दि. श्री श्रीनिवास कुडुवु - हांगेले विशयान्तु नैशी आनीक मस्त जनांले विश्यान्तु लेखन प्रकटजाल्लेले पळैतान, समाजाचे तरुणपीळगेंचान्क माल्यड्यालो उद्गासु कोर्नु दिल्लेल्ले नैशी तांका आदर्श जावू आम्मी पळोक म्हळ्ळेलो उद्देशु हांगा दिस्ता।

आश्शी "पंच्कादायी" पत्रिका एक वरस पूर्ण कर्ताना वर्गणिदारान्क् वोट्टु ७६४ पृष्टान्वे साहित्य, संपादकर बाळमामान दिल्ले। १३ विंविंगड संस्थ्याचे परिचयु, ७ देव्ळाची माहिती, ५५ गाद्यो, ८ वाडूलेले दिव्वे, ६ समाज प्रमुखांले

परिचय्, ३० पृष्ठ देवनागरी साहित्य हे एक वरसाचे "पंच्कादायी" न्तु प्रकट जाल्लेले विशयाचे वैविध्य। हे वेळारी ९ जन पोषक, ८७ जन आजीव सदस्य, आनी ४५० जन आश्रयदात आस्सिले।

हे एक वरसाचे साधना आम्मीं पळैताना, पत्रिका सम्पादकु बाळमामाले श्रमु आम्मी मेव्वुनु घेवकातींची। एक् पत्रिकेक जन्मु दीवु ताज्जे खातीर चंदा संग्रह कोर्नु, वेळ्यारी वर्गणेदारान्क पत्रिका पावोसुचे कर्तव्य आनी जवाब्दारी निभायिताची, प्रतो मयिनी जाव्काजाल्लेले लेखन विन्चूनु, प्रकटना कामवरीन सेर्दुनु बाळमामान केल्लेले काम, आनी काणु घेत्तिले श्रमु आम्मी कल्पना कोर्च्याक् साध्य ना। तान्निची एक् संचिकेन्तु ल्याक्‌पत्र पळोचे, प्रूफ् तिद्दुचे, स्टयाम्प् लाव्नु पत्तो बरोनु पोस्टाक् घाल्चे "काम पूर्ती हांवे केल्ला" म्होणु सांगताती। इत्ले श्रमु काणु घेव्नूची तान्नी सांग्ता आश्शिले उत्र म्हळ्ळयारी हे "मिग्गेले एक्काले काम न्हंय्, समाजाचे।" ही पत्रिका भद्र कोर्चे जवाब्दारी प्रती एक् सदस्याक सेर्वोला। गीतेन्तु सांगेले मण्के "मा फलेशु कदाचना", फला विशयारी चिन्ता नाशी कोर्चे कामान्तु तांगेले कौशल्य दाक्कैले विनाः आळशपण दाक्कैनी।

आम्गेले देहाक प्राय जाव्चे आनी मान्तारप्ण् म्होणु एक् स्थिती आस्स। बाळमामाकवरीन दैहिक दुर्बलता म्हळ्ळेले निधान जाव्नु दिस्च्या सुरु जाताना तांगेले धूव्वेले मण्के पोसियिलि पत्रिकाक दुस्रयान्क वहिसीनु दिव्वे आलोचना मनान्तु आय्ली। पत्रिकेवैले मोह तांका अती भाधा दित्तास्सली। गौडसारस्वत समाजाचे एकैक पत्रिके जाव्नश्शिले "पंच्कादायी" कशी पुणे मुकार्सुनु होर्का म्हळ्ळेले आशा मनान्तु बल जाव्नु आश्शिले। तेद्दाना तान्का मणिपालचें "कोंकणी भाषोद्धार ट्रूस्ट" हे कामाक विश्वासार्हजाव्नु दिस्ले। जनवरी १९८८ न्तु तान्नी

मणिपालचे संस्थ्याक तांगेले पत्रिका हस्तांतार केल्ले। आज्जी ही पत्रिका बाळमामाले नांवारी - व्यवस्थापक सम्पादकु - प्रकटजात्तास। बाळमामाले देह दुर्बल जाल्ल्यारिची मन मात्र आनीक यौव्वनानी भार्नु आस्स। तश्शी जाव्नु तांगेले विचार बोरेचे, योचना प्रकट कोर्चे तांगेले लेखनीक आनीक विश्रान्ती म्हळ्ळेले मेल्नी, मेळच्याका वरीन नज्ज। बाळमामाले विचारपूर्ण लेखन केद्दाना सुक्कनात्तिली गंगा न्हंय् म्हण्के होळता आस्का। हे आम्गेले समाजाची आशा।

जन्मु दीव्नु पोसोनु हाळ्ळेले पत्रिकाक हस्तान्तर कर्ताना बाळमामान बेरेयिले लेखन भारी चांग आस्स। ते लेखनाचे स्वल्प भाग हांगा दिल्ला। चेल्लीले बाप्सुन चेल्लीक् व्हार्डीक् कार्नु पेटोनु दित्ताना बोग्चे संकटा म्हण्के हांगा तात्री बेरेयिला। हांतु एक् कवीले कल्पना आस्स। हे लेखनान्तु आस्वे सुखवेदना, तृत्ती आम्मी पोळोका। एक् सुंदर कविता रीतीरी बेरेयिले लेखन तुम्मीची वाज्जीयाती :-

## चेल्ली बावीसाक पावली

"पंच्कादायी" पत्रिकेक एक कन्यारत्नाक् तुलना करचे जाल्लयारी एक्वीसभरी जाव्नु बार्वीस लाग्ली म्हण्योत। बाप्सूले ऊंच प्रायेरी (४९) जाल्लेले कन्यारत्न हे। तोंडान्तु रुप्प्या चमचे, हात्तान्तु भांग्रा खिलखिलो फेव्नु आय्यिले चेर्डु न्हंय हे। बाप्सूनची कष्ट काण्णु, हूम गळोनु होड केल्लेले।

अत्त एकी होडी जवाब्दारी बाप्पूले खांद्यारी आय्ला चांगी सोय्रिक पोळोनु चेलियेले भविश्श् भद्र करचे। श्री काशी मठाधीशांलो अनुग्रहु आनी आशीर्वादु आरंभ लागाय्त आश्शिले निमित्त, सकालारी योग्य सोय्रिकयी म्हेळ्ळया, विवाह नक्कियी जाल्ला। आतंच्या वरी गल्गलु नात्तिले, चेलिये बाप्पूसु, चेल्लालो

बाप्पुसु आनी तीग जन आढय सन्मित्रा मुकारी सरळ निश्चय तांबूल जाल्ला।

व्हार्डिकेक दीसु निश्चय जाव्नु कन्यादानाचे काम मात्र बाकी उरला। व्हार्डिकेकयी अनावश्यक आडंम्भरु, अनाव्यय नात्तिलो सरळ रीतीरी करका म्हळ्ळी उत्कटेच्छा चेलिये बाप्सूली। गुरुलो आशीर्वादु, देवाली दया आसल्यारी संवत्सर बदल्सुचे पुडेची विवाह समारंभु चलतालो। दुर्बळपणारी होड जाल्लेले चेलिये चर्डु तिग्गेले पूर्वसुकृतान म्हळ्ळेवरी अनुकूस्थ आनी घनस्था कुटुंबाचे घर भरता। त्हंय ती पुन्वे चंद्रावरी वाडतली। जाल्लेल्या व गेल्लेला आशे उभय कुटुंबांक कीर्ती हाडतली। समाजाकची भूषणप्राय जाव्नु मेर्वेतली म्हळ्ळी होडी आशा बाप्पुसु ज़ाव्नु आसिल्यान दवर्ल्यारी काहींचूकी जाय्त म्हणु हांव लेक्क ना। देवु ही आशा सफल करो।

बाळमामाले हर्देन्तुलान आय्यिले उत्र ही। कालिदासले "अभिज्ञान शाकुन्तला" नाचकान्तु दूव्वेक दुष्यन्ताले अरमनेक पेटोनु दित्तान कण्व ऋषीन अनुभविसिलेले दुक्का म्हण्के हांगा तस्सलेंची दुक्क प्रकटजाल्ला।

## बाळोमामन रचन केल्लेले साहित्याचे एक् अवलोकन

कंचे एक् साहित्य रचना आम्मी अभ्यास कर्ताना ते कृतिकाराले मनोभावु आम्का कोळनु आस्का आनी ती ग्रंथरचनेक कारण जाव्नशिर्ले तांगेले मनाचे अंतराळ कोळनु आस्ल्यारी ताणे सांग्चे विचारु आम्का स्वष्ट जात्तावत्ता। ग्रंथरचनाकारान जीवना विशयारी दवर्नु घेत्तिले अभिप्रायु, ताग्गेली निष्टा, धोरणा हे पूर्ती ताणे बरेचे ग्रंथान्तु व्यक्त जात्ता आस्ता। हे दृष्टीन बाळमामाले साहित्य आम्मी आभ्यासु कर्ताना तांगेले जीवनदृष्टी वय्री तान्नी बरेयिले उत्र आम्का सहायु कर्ता। तांगेले स्वभावु कस्सले म्होणु तान्नी सांग्ताती : "सुख मेळ्ळेले

ताव्वळीं विशेष संतोषु पाव्री, कष्ट मेळ्ळेले तेन्ना विशेष दुःखयी पाव्री, सुख दुःख दिवचो परमात्मान, करतालो, करैतालो सर्व तोची। नित्य नियमबद्ध जीवन, क्रमबद्ध व्यवस्था, बरे कोरका म्हळ्ळे विशाल मन मेग्गेले"। भगवद्गीतेन्तु स्थितप्रज्ञ म्हळ्ळेले एक् मनोस्थितिचे वर्णना येत्ता। बाळमामु तस्सलो स्थितप्रज्ञु।

बाळमामाले वय्री गाढजाव्नु प्रभाव केल्लेले ग्रंथ म्हळ्ळयारी "भगवद्गीता"। जीवन पूर्ता तान्नी ते ग्रंथाचे अध्ययन केल्ला आनी तान्नी ते आचरण केल्ला। सक्कड भाषेक अनुवाद जाल्लेले "भगवद्गीता" ग्रंथावय्री तांका विशेष मोह। हे ग्रंथाचे कोंकणी अनुवाद बाळमामन केल्ला। तांगेले अनुवाद मस्त सरळ जाव्नु आस्स। संस्कृताचे श्रेष्टग्रंथ अनुवाद कर्ताना संस्कृताचेची शब्दभंडार उप्योगिसुनु अनुवाद केल्लेले मस्त उदाहरणा आम्का मेळता। जाल्यारी कोंकणी भाषेचे गोड्साणीक ताकीत् जाव्नु अनुवाद जाल्लेले भारी ऊणे। बाळोमामान संस्कृताचे शब्दाचे मूलार्थ चांग रीतीरी ग्रहण कोर्नु ताक्का एकित्ले ऊन येनाशी चेंद कोर्नु अनुवाद केल्ला। चड्ते जाव्नु कोंकणी शब्दु तान्नी हांग उप्योग् केल्ला। भारी सरळ आनी सुंदर जाव्नु आय्ला। हेंची तांगेले विशिष्टपण्। "हांव खंच्येक भाषेचो पंडितु न्हंयवे साहित्य विशारदु न्हंय, भाषेचो एकु अल्पु सेवकु मात्र" म्होणु तान्नी सांग्ताची हे अनुवादान्तु कस्सले पुणी व्याकरण व छंदोदोषु आस्ल्यारी मनाक् होर्नाशी माक्का आशीर्वादु दीवका म्हणु तान्नी माग्गुनु फेत्ताती।

अनुवादकालें सरळ व्यक्तित्व प्रती एक् श्लोकान्तु चेंद जाव्नो आय्ला। अर्थु कोर्नु घेव्च्याका कांयी कष्ट जाय्ना। मार्मिक तत्वरीन सुलभजाव्नु कोंकणीक अनुवाद जाल्ला। हे ग्रंथाचे गोड्साणी पोळोच्याक् हांगा वरी तीनी श्लोकाचे उदाहरण दिल्ला। हाज्जे मुखान्त्र मूलसंस्कृत ग्रंथाचे अर्थ बाळोमामान कोंकणीक

कश्शी अनुवाद केल्ला। म्हळ्ळेली आनी ताज्जे स्वादु आम्मी हांग काणु घेवेत्।

"अर्जुन विषाद योग" चे प्रथम श्लोक :

| मूल | अनुवादु |
|---|---|
| धर्मक्षेत्रे कुरुक्षेत्रे | धर्मक्षेत्रारी कुरुक्षेत्रारी |
| समवेता युयुत्सवः | युद्ध करका म्हळेल्या इच्छेरी |
| मामकः पांडवाश्चैव | मेळेल्या मेगेल्यांनी आनी पांडवानी |
| किम कुर्वत संजय | केल्ले इत्ते सांग संजय तान्नी |

सांख्ययोगः श्लोक ६२

| | |
|---|---|
| ध्यायतो विषयान पुंसः | विषय आटय्लारी तान्तु आसक्ती |
| संगस्तेषूपजायते | जाव्वी सहज आय्का ही उक्ती |
| संगात् संजायते कामः | आसक्तीन कामु उत्पन्न |
| कामात् क्रोधोभ जायते | कामुक्रोधाक दित्ता जनन |

मोक्ष संन्यास योगः श्लोक ७८

| | |
|---|---|
| यत्र योगेश्वरः कृष्णो | कंयकी योगेश्वरु कृष्णु |
| यत्र पार्थो धनुर्धरः | आनी धनुर्धारी अर्जुनु |
| तत्र श्री विजयो भूतिः | त्हंय चोयी लक्ष्मी वैभवु, विजय ध्रुवा नीतिर्मतिर्मम |
| | स्थिर नीती राबताहे निस्संशयु। |

हे तीनी श्लोकानची बाळमामाले अनुवादाचे शैली कश्शी आस्स म्होणु पोळोवेत्। संस्कृत भाषेचे शब्धु चड उपयोगिसिनी। चड्ते जाव्रु कोंकणी

भाषेचे शब्दाचे उप्योगु केल्ला। मूलार्थक खंचे भाधा ना। हे बाळमामाले सामर्थ्य कित्ले म्हळळेले दाक्कोनु दित्ता।

१९८४ न्तु प्रकट जाल्लेले हे पुस्तकाचे मोल बरी स रुप्पयी जावृ आशिले। "बाळोमामान" पितृ प्रेमाचे गोड्साणी पळय्नातिले माक्का मातृ प्रेमाचे अमृत धारेन पालन, पोषण, संरक्षण कोणे केल्लिकी, कोणाली अमृतवाणी ही कृती रचौच्याका माक्का प्रेरण जाल्लिकी, कोणाले ऋण पावोच्याक हांव शक्यु न्हंयी की त्या पूज्य मातृदेवतेक ही कृती अर्पण करता "म्होणु तान्नी तांगेले" आव्सूक श्रद्धेन भक्तीन अर्पण केल्ला।

बाळोमामाक साठी वरस भर्लले वेळारी तांगेले सक्कड अभिमानिलोकान वोट्टु गेळ्नु, मंग्ळूरचे मण्णागुड्डेन्तु आस्वे समाजभवनान्तु सन्मानु केल्लो। अनी तांगेले दीर्घायुष्या खातीर प्रार्थना केल्ली। श्री के.के. पै, डा. एम्.पि. पै, मणेल् श्रीनिवास नायकु, डा. वि.आर्. भट् हान्नी सक्कड ते सभेन्तु उपस्थिती आस्सूनु कार्यक्रमु चेंदायिरी चेल्ले। त्या वेळारी बाळमामान शंकराचार्यान संस्कृतान्तु रचना केल्लेले "भजगोविंदम्" ग्रंथ कोंकणी भाषेक अनुवाद कोर्नु प्रकट केल्ले।

हे अनुवादवरीन बाळमामांक अनुवाद कोर्चे कला कश्शी सिद्धी जाल्ला म्होण्च्याक् एक् उदाहरण जावृस्स। "भजगोविंदम्" ग्रंथ वय्रिवय्री पलैताना भारी सरळ म्होणु दिस्ता। जाल्लारी तांतु आस्वे श्लोकाचे अर्थु मात्र गंभीर आनी गाढ जावृ आस्स। हे कारणानी अनुवाद कर्ताल्याक् मस्त जवाब्दारी अस्ता। बाळमामानी तांगेले सरळशैलीरी जाल्लारी मूलग्रंथाचे वेदांतचे अर्थु एक इत्ले पुणी सोण्णाशीं चंद कोर्नु कोंकणी भाषेक अनुवाद केल्ला। ते ग्रंथाचे तीनी श्लोक हांग सकल दिल्ला।

वृद्धाप्यान्तु क्हंय् काम विकार ?
आटल्यारी उदक क्हंयी सरोवर ?
पैसो सरल्यारी क्हंय् परिवार ?
तत्वज्ञांक ना संसार ?

दिवसु रात्री सांज सकाळी
शिशिर वसंतु दुसरी येत्तावे ?
कालु सरतान आयु सरता पळे
सोण्णा जीवु विषयासक्ती ?

सोडी धनजन यौवन गर्व
काला न क्षण बितरी निपताती सर्व
माया मयु हे जगतू समज
ब्रह्म परत्व प्राप्त करी निज।

हे तीनी श्लोकाचे आधारारी अनुवादकाले शैली पळोवेत्। हे ग्रंथान्तुवरीन संस्कृत शब्दाचे विजृंबणा ना, अवलंबना ना। बदल् आम्गेले उलपी भाषा कोंकणिचे सरळ शब्दु हांगा आस्स। अश्शी जाव्नु मूलार्थक खांयी भंगु येनी। हेंची बाळमामाले शैलिचे जाव्नु आस्स।

महाराष्ट्राचो वाल्मीकी म्होणु प्रसिद्ध जाल्ललो श्री ग.दी. माडगूळकरानी "गीत रामायण" म्हळ्ळेले कृतिरचना केल्ला आनी मराठी भाषेन्तु ही रचना भारी प्रसिद्ध जाल्ला। तेनैशी प्रख्यात गायकु श्री सुधीर पड्के न तांगेले सुश्राव्य ध्वनीन गायन कोर्नु आनीक नांव ही रचनाक् हाणु दिल्ली। बाळमामान ही रचना देवनागरी लिपीन्तु कोंकणी भाषेक अनुवाद केल्ला। केरळ कोंकणी अकाडेमिचानी १९८६ न्तु प्रकटकेल्ला। गौडसारस्वत समाजचो नांवाधिक्

गायकु श्री उपेद्र भट्टानी कोंकणी "गीतरामायण" तांगेले मधुर स्वरानी रागसंयोजना कोर्नु प्रसिद्ध केल्ले। मूलमराठी भाषेन्तु आस्वे ही रचना आम्गेले मस्त भारतीय भाषेक अनुवाद जाव्नु आस्सूनु, हिन्दीन्तु श्री रुद्र दत्त मिश्रानी, कन्नडान्तु श्री श्रीनिवास तोपखानेन अनुवाद केल्ला। कोंकणी भाषेन्तु अनुवाद केल्लेलो एक्लो कवी म्हळ्ळारी बाळमामुची।

बाळमामन कोंकणिभाषेचे चेंदायी सग्ळे दिस्वे तश्शी आनी सरळजाव्नु, सुलभजाव्नु अर्थु जाव्चे तश्शी अनुवाद केल्ला। प्रासबद्ध वाक्यरचना निमित्ता आम्गेले मन जिक्वोच्याक् ही कृती समर्थ जात्ता। हे रचना नांव सांग्चे तश्शी "गीतरामायण"। म्हळ्ळयारी गायनरूपारी संगीताक् अळ्वडिसूनु सांका। बाळमामान हे विसर्नी। तान्नी स्वतः संगीतकार जाव्नु आस्वे निमित्त तेची रीतीरी अनुवाद केल्ला।

हांगा तीनी गीत दिल्ला। संदर्भु अश्शी आस्स। वनवासान्तु आश्शिलो रामाका पोळोनु रावणाली भैणी शूर्पनखाले मनान्तु रामाले वय्री मोगु भोर्नु येत्ता। तेद्दाना तीणे रामा लाग्गी उल्लोचे रीती हांगा अस्स।

शूर्पणखा हांव रावण भगिनी
ह्या वनाची समज स्वामिनी
अगणितरूप घेवून करिता
वनोवनी संचार्

तुज्या खातीर हांव जाल्लया तरुणी
षोडष वर्षान्वी मधुर भाषीणी
तुक्का चोवुना मनांतु मन्मथ
करता रे हुंकार

तुज्या वंटांची मधुर ती शांती
पिपूंक् आतुर हांव एकांती
स्मरता स्मरांक् अवतरला तू
अनंगु तो साकार

कोंकणी गीत रामायणाचे स्वादु पळोच्याक् हे तीनी उदाहरण पुरो म्होणु हांग लेक्ता।

श्री ए.एन्. भट्, मुंबयी हान्नी "नीतिकता भंडार" म्हळ्ळेले नांवाचे पुस्तक बोरेनु, ते पुस्तक नव्व भारतीय भाषेक अनुवाद जाल्ला। हांतु सुमार दोन्शी काण्यो आस्सूनु, काण्याचे स्वरूप संस्कृतान्तु आस्वे "पंचतंत्रा" चे काण्या म्हण्के आस्सती। प्राणी पशुपक्षी विषयांतु काण्यो आस्सती आनी नीतीबोधा कोर्चे मुख्य उद्देश जाव्नु आस्स। बाळमामान हे काण्यक् मेच्चूनु पूर्ती दोन्शी काण्यो अनुवादु कोर्नु पंच्कादायी न्तु धारावाही जाव्नु प्रकट केल्ला।

बाळमामान हे सक्कड अनुवाद कार्य कर्ताना तांगेले मनांतुले उद्देश अम्मी मेच्चूनु घेव्कातीची। दुस्रदुस्सर भाषेचे साहित्य कोंकणी लोकाक परिचय कोर्नु दिव्चे काम तान्नी केल्लेले नैशी, ताज्जे मुखांत्र कोंकणी कवी अनी काण्यो बरैताल्यांक तान्नी प्रोत्साहु दिल्लो। खंचे भाषा स्वंत आधारारी वाड्च्या पुडे दुस्सर् भाषेचे अनुवाद रचना पोळोनु शक्ती काण् घेत्ता। नंतर समृद्धी जाव्नु वाड्ता। हे खंचे भाषेचे साहित्य चरित्र पळैलारी आम्का कळता। भाळमामान हे काम कोर्नु कोंकणी लेखकांक प्रोत्साहु दिल्लो।

आनी बाळमामान बरेयिले काण्यो, लेखन, संपादकीय पळैताना तांगेले बरपिचे शैली उद्देनु दिस्ता। सांका जाल्लेले विशयु स्वष्ट जाव्नु एद्राक्, मनाक् वोच्चे तश्शी तान्नी संगात्ती। सामाजिक विषय आस्सो या धार्मिक विषयु आस्सो,

ते वाचकांले मनांतु घट्टी जाव्नु उर्ता। तांगाला अभिप्रायु, विशयारी आलोचना कोर्चे तश्शी आम्का प्रचोदना दित्ता। तांगेले पत्रिकेचे प्रारंभा संचिकेंतुची तान्नी उद्देशु स्वष्ट केल्लेले म्हण्के कोंकणी भाषेचो प्रचारु आनी शिथिल जाव्नु गेल्लेले समाजाचे संघटना कामांतु तान्नी पूर्ण मग्न जाव्नु आश्शिले। कोंकणी भाषे वय्री तांका आस्सिलो मोगु प्रती एक् लेखनांतु आय्ला। समाजा सुधारणा विषयान्तु, धार्मिक विचारान्तु तांगेले अभिप्रायु तान्नी बरेयिले संपादकीय लेखनांतु पोळोवेत।

बाळमामले व्यक्तित्वाक कश्शी एक्कऽ तोंड नैकी तशींची तान्नी लेखन बरैताना उपयोग्सिलेले नांववरीन मस्त आस्सती। "मनुश्यु", "बाळो", "कोंकणो" अश्शी तान्नी मस्त नांवारी लेखन बरेयिला। हे नांव उपयोगिसिले संदर्भु आनी तेते नांवानी बरेयिले काणी या पद्याक् एक् संबंधु आश्शिले आम्मी पोळोवेत्। कोंकणी भाषा विशयारी अभिमानान बरैताना "कोंकणो" नांवानी, भावगीता या सान सुभाषित बरेचे संदभाऑरी "बाळो" नांवानी, काणींतु सहजता हाणु त्या रीतिन "मनष्यत्व" प्रदर्शन कर्ताना मनुष्यु नांवानी तान्नी बरैतालेती। हे स्वष्ट कोर्च्याक् एक उदाहरण हांगा दिल्ला।

"पंच्कादायी"चे प्रथम संचिकांतु "मनुष्यु" नांवारी बाळमामान एक् काणी बरैल्या। काणी नांव – "ताणे पळेयिले तीनी दृश्य"।

दृश्य १ : एक्ळो दुड्वाळो। देव्ळाक् कारारी येत्ता। मनांतु भक्ती आस्ल्यारीची दुड्वाळपनाचे प्रदर्शन चड। तोंडऽवरीन तशीन्ची आस्स। आरती वाट्टेक ५ रुप्पयी दक्षिण घाल्ता। ते पोळोनु पूजारिवरीन ताक्का एक सेरु प्रसाद दित्ता। "मनुष्यु" निम्गिता – "दुड्वा पूतु" कोऽण ? पूजारिकी या दुड्वाळो की ? हांगेले दोनी जनाले वर्तना आम्का आलोचना कोर्चे तश्शी कर्ता।

दृष्य २ : होड श्रीमंताले घर। ताक्का तकीत जाव्नु घर्चे आंग्णांतु होड मंटपु

घाल्ला। जन गडिबिडिन बोंव्तास्सती। भारी गौजी। हाक कारण ते श्रीमंताले चेल्लीक व्हार्डिक। जाल्लारी तेची फर्चे भित्तरी गलाटो नाशी एक् कूडान्तु तेची श्रीमंताले धूव - विधवा - तिग्गेले दुरादृष्टाक दोळयान्तु उद्दाक काड्ताची एक्ळीची बस्ल्या। तिक्का निम्मितालेवरीन कोणी ना। "मनुष्या"ले प्रतिक्रिया : "विचित्र समाज्" ।

दृष्य ३ : होड सभा। जन भारी जमेलेले। तोंड पोळोनु भित्तरी सोड्तालो एक् मनुशु राब्ला। चांग वस्त्र न्हेसल्यांक् भित्तरी प्रवेशु। वर्लेले भाग्री। श्रीमंतु एक्ळो ताग्गेले सूण्यावोट्टु येत्ता आनी सूण्या समेत भित्तरी वत्ता। "मनुष्यु" सांग्ता; "विचित्र जगत् ?"

बाळमामु सान काणी बरोंवो या लेखन बरोंवो ते अम्गेले समाजाचे रीतिनीतिचे विमर्शा जाव्नु आस्ता। आम्गेले जीवनाक धर्लेले कान्नडिशी आस्ता। ऊणे उत्रांनी आस्व्ये काणिवरीन व्राचकांक योचना कोर्चे तश्शी प्रेरपणा दित्ता।

तान्नी बरेयिले सान सान "चुटुक" पद्य हेची दृष्टीन पोळोवेत। हान्तु उत्र ऊणे। अर्थु मात्र होड्डु। परिणामु आनीक होड्डु। एक् उदाहरणा :

सद्गुणांक आत्त ना मोऽल
दुर्गुणांक मेळता मान्य विशाल
विपरीत हो पर्वकालु।

- कोंकणो

१९६३ न्तु बरेयिली पद्य हे। आज्जीक ३६ वरस कळवला। हान्तुले उत्राचे अर्थु कायिंपुणी बदलावण जाल्लंवे ? "पर्वकालु" काली, आजी तशींची आस्समु ? हे पळोनु बरेयिले बाळमामु सार्वकालिक सत्य पळेयिलो मळ्ळेले

सिद्ध जाय्नावें ? मिंचु मार्लेले मण्के उत्र आस्का म्होणु एक्ळो कवि सांग्ता उल्लैताना नांवे बरैताना मध्ये मिंचा मणके उत्र आय्ल्यारी ताज्जे परीणामुची वेगळे जात्ता। बाळमामाले बरपिंन्तु तस्सले मिंचामण्के आस्वे उत्र मस्त आस्सती। ते वाज्जीताना तोंडारी सानु हासु येत्ता। योचनेक कारण जात्ता। नानारीतीन तांगेले एक उत्र अम्गेले वय्री प्रभावु आनी परिणामु कोर्चे तित्ले शक्त अस्स।

हाक्का एक उदाहरणा दिव्वे जाल्लारी "लायक कोरनु सूण्या बाल्लाक नारायण तैल पुसल्यारी ते सरूत जाय्तवे ?" म्हळ्ळेले वाक्य पोळेवेत। गादे उत्र हांगा बाळमामान आय्चे कालाका होंद्दुचे तश्शी बदालाय्सूनु सृष्टी केल्लेले तांगेले उत्राक् आनी बुद्वंतकायाक आम्मी मेच्चूकातीची। कस्सले केल्लारिची बदल जाय्नत्तिले लोकाचे स्वभावु। समाजान्तु आस्वे जनाले रीती हे वाक्यान्तु आय्ला नंवे ?

अस्सले शैलीन्तु बोरेचान्तु बाळमामु एक् अग्रमान्य लेखकु। "हांव जाण न्हंयी... तुम्मी...? म्हळ्ळेले सान विभागान्तु तान्नी शब्दासंगात् चमत्कार कर्तास्सिले। हे पूर्ती तांगेले स्वंत कल्पना जाव्नुस्सिले आनी तांगेले मन निरंतर जाव्नु अस्सले कल्पना कोर्च्यान्तु मग्न जाव्नुक्हा आस्ताले। तस्सले पांच उदाहरणा हांगादिल्ला।

वि-रामि रावणालो वैरिवे ?
दि-वाळी रांदयेक जात्तवे ?
बा-शिंग गोर्वांक येत्तावे ?
दु-र्वासाक घाणिकि परिमळु ?
वि-श्वासु नांकानी सोडत्तातिवे ?

बाळमामान "होड्डु-सानु" म्हळ्ळेले विषयांतु सान प्रबंध बरैतालेती।

हांगा तान्नी काण घेव्चेस्सिलो विशयु, वस्तु आम्का सम गोत्तु आस्सिलोची - सात्ते। टोप्पी, मुंडासु, बाट्ली, बाल्दी, बोड्डो, माड्डो, माड्डी, काड्डी, गोड्डी, दोड्डी, चड्डी - अश्शी ही पट्टी आनीक् दीग आस्स। तान्नी प्रबंध बरोचे कला कश्शी साधन केल्ली मळ्ळेल्ल्याक् ही सान लेखन वाज्जूक। हगुर धाटींतु बरैयिला, जाल्ल्यारिची वाज्जिताल्याक् खुषी जाव्चे तश्शी तान्नी हांगा बरेयिला। ते सान विषयु या वस्तुचे महत्व संग्ताची, धारवाही जावु तान्नी प्रती मयिनो बरेयिता आस्सिले। तान्तु एक् बांदावळी आश्शिले एक् प्रबंध मुक्ताय कर्ताना ते विष्याचे प्रासा तकीत जावु आनैक् विशयाचे प्रस्तापु तान्नी कर्ताले।

"टोप्पी" विशयु पुडे प्रबंध बरोनु ताज्जे नंत्र "मुंडासा" विशयारी बरैताची "टोप्पिलो बाप्पुसु मुंडासु" म्होणु प्रारंभांतुची परिचय कोर्नु आम्गेले मन आकर्षित कर्ताले। उत्रा मुखांत्र वाचकांक् तांगेले कडे आकर्षण कोर्चे शक्ती गात्रान्तु सान जावु आश्शिले हे लेखनाक् आश्शिले एक् उदाहरणा।

बोड्डो :- ह्या पटिच्या सान विषयांतु हांवे उल्लेख कोर्चो वस्तु "होड्डो"। हो गात्रान सान न्हंयी। हाग्गेले धूव की भैणी - "बड्डी" - ती सानी। म्हातार्यांक "बोड्डो" आन्येकु पूतु म्हळ्यारियी अतिशयोक्ती जाय्यिना - हे प्रबंध प्रारंभु जाव्चे रीती। तान्नी मुकावैले मयिनांतु बरोचे विशयाचे प्रस्तापु अंत्यारी सांगूनु एक् मयिनो राक्चे तश्शी कर्ताले। "बोड्डो" जाल्ले नंतर तान्नी "माड्डो" विशयारी बरैताति। ते प्रबंधाचे अंत्यारी माड्ड्या महिमा वर्णना हांगा राब्बोनु मुकावैले लेखनांतु; माड्ड्या भैणी "माड्डी" हिग्गेली हकीकत सांगता म्होणु ते सूचना दित्तालेती। एक्येक प्रबंध प्रारंभ जाव्चे रीती अनन्य जावु आस्ताले। "माड्डी" माड्ड्या वरीची दीगी। जाल्ल्यारी माड्ड्या इत्तुले "थोरी न्हंयी, सपुरी" म्होणु प्रारंभु जाव्चे तांगेले बर्पीक् आकर्षित जाय्नित्तिलो कोण् आस्स। तशींची "सार्नी"

विषयान्तु परिचय कोर्नु दित्ताची "पुक्का कोणी आसल्ल्यारी ताक्का वीराधीवीरु, सार्निवीरु म्हणु टीका करताती" म्होणु बरोचे बाळमामाले विशिष्ट शैलीक् कोणे जाल्ल्यारिची मेच्चूका।

बाळमामान तांगेले पत्रिका मुखांत्र मस्त जन कवी आनी काण्यो बरैताल्यांक प्रोत्साहु दिल्ला। तांगेले पत्रिकेन्तु बरोच्याक प्रारंभु कोर्नु आजी कोंकणीसाहित्य क्षेत्रांतु नांव घेत्तिले मस्त जन आस्सती। श्री के.एन्. राव् दांडेली, श्री कोच्ची अनंत भट्टु, श्री एम्. माधव पै, रत्नाकर शेणै - हात्री ते लेखक वर्गान्तु प्रमुख जाव्नु आस्सती। कोंकणी साहित्य आनी भाषे विशयान्तु आलोचना कर्ताल्यांक "पंच्कादायी"न अवकाशु कोर्नु दिल्लो। तांगेले विचार मंडन कोर्च्याक् एक् वेदिका सृष्टी कोर्नु दिल्ले। भाषा अभिमाना दृष्टीन हे काम चंद रीतिन चल्ला।

बाळमामन तांगेले पत्रिका केल्लेली हेंची कारणानी। भाषा आनी समाजु - हाज्जे सेवा तांगेले जीवनाचे उद्देशु जाव्नु आश्शिलो। तांगेले जीवन् पूर्ण जाव्नु हे एक्कऽ कामाका तात्री समर्पण केल्ला। कोंकणी भाषा म्हळ्ळयारी तांक कस्सलीकी एक उत्साहु, आवेशु। ते गुण आज्जीवरीन, तांगेले हे प्रायान्तुवरीन आम्मी पोळोवेत्।

भास कोंकणी अती पुरातनी
गोडी गोडी पयस्वनी
चारी राज्यान्तु होलची वाहिनी
आंची आवै भास् कोंकणी

म्होणु उत्साहानी सांगीले कवी आम्गेलो बाळमामु। तात्री पत्रिका प्रारंभु कर्ताना कोंकणी भाषेक अकाडेमी जांवो, प्रात्साहु जांवो ना आश्शिले।

एकलव्याले मण्के साधना केल्लेलो जोवु आम्गेलो बाळमामलो। तान्नी ते कालांतु बेरयिले संपादकीय लेखन तांगेले कोंकणी भाषाभिमान दाक्कोनु दित्ता।

पत्रिकेचे प्रथम वरसा संचिकेन्तु मातृभाषा प्रचारु इत्याक् अवश्य आस्स (फे १९६७), भाषाभिवृद्धीक सहायु कर (मे १९६७), शालेन्तु कोंकणी शिकोच्च्या व्यवस्था (जून् १९६७) म्हळ्ळेले संपादकीय लेखन तान्नी बरेयिले आस्स। कोंकणी भाषा वय्री तित्ले कांय् मोगु नात्तिले वेळारी तान्नी "मातृभाषेच्या प्रचाराक सहायु जाव्वे तश्शी कोंकणी बांधन परस्पर पत्र व्यवहारु कोंकणीन करा", "कोंकण्यांगेले सर्वसभा कार्यक्रमु कोंकणिनिऽचे चल्चे भाषा प्रचार दृष्टीन बरे" म्होणु तान्नी उत्तेजन दिल्लेले आस्स। तांगेले प्रती एक उस्रांन्तु कोंकणी भाषा प्रेमु आम्मी पोळोवेत्।

जीवनावय्री तान्नी दवर्लेले अभिप्रायु तान्नी एक कडे अश्शी सांगताती :

जीवन एक् आनंदातिरेकु-ते स्वीकार करा

जीवन एक् सदवकाशु - ताज्जो सदुपयोगु करा म्होणु उपदेशु दिल्ला। तस्सले जीवन चलायिसिले मनिशु तान्नी। केलव् पंत निष्ठुर जावून "तोंड धांपी, कर्मउल्लोवो" म्होणु तान्नी तांगिले वरीन आस्स। आम्मी कोंकणी जन आळशपणान बोर्नु आश्शिले वेलारी अस्सले उत्र अम्का जाव्का जात्त।

कोंकणीभाषेक राष्ट्रीय मान्यता मेळका। ती भाषा अट्टा परिच्छेदाक मेळका म्होणु बाळमामन ते कालांतुची तांगेले संघर्षु प्रारंभु केल्लेलो। भाळमामु एक् रीतिन गौडसारस्वतनानी उल्लोचे कोंकणी भाषेचो भीष्माचार्यु मळ्ळयारी कांय् चूकी ना। तांगेले तस्सले जना निमित्त आजी कोंकणी लोकाचे आशा पूर्ती संपन्न जाल्ला। आजी कोंकणी भाषेक म्होणु साहित्य अकाडेमी स्थापना

जाल्ला। ते नैशी बाळमामुवरीन हे अकाडेमीचो अध्यक्षजावृ ५-१०-१९९५ तुलान १६-०४-१९९७ थंय् तान्नी सेवा केल्ला। अनारोग्य निमित्त तान्नी निवृत्त जाव्का जाल्ल्यारी आजिवेरेन् तान्नी तांगेले सृष्टात्मक कामांतु बुड्डोनु आस्सती। ते कामांतुलान तान्नी निवृत्ती जाय्निती आनी निवृत्तिवरीन जाव्च्या नज्ज।

इत्ले दीर्घकालान साहित्यरचना कोर्नु आय्यिले बाळमामाले काण्यो, लेखन, कवन, संपादकीय सक्कड संग्रह कोर्नु समग्र जावृ प्रकट जाव्चे वेळु आत्त आय्ला। ते मुखांत्र आत्री चळ्ळले एत्तर, तान्नी केल्लेले साधनाचे विस्तार आनी ताज्जे आळाचे स्वरूप कोंकणिजनाक प्राप्त जाव्का। अस्सले मनिश्य हे लोकाचे पुण्य, म्हळ्ळले मण्क्शे जन्माक येत्ताती। तांगेले कृती आम्गेले दोळया मुकारी केद्दाना आस्का। मुकावैले पीळग्यांक मार्गदर्शक जावृ उर्का, कोणिपुणी मुकारी येव्रु हे कोर्नु आम्गेले हे ऋण संदाय कोर्का।

बाळमामाक पळेयिले तक्षण आम्गेले गमना येव्चे अंशु म्हळ्ळारी तांगेले तोंडा वैलो निष्कल्मण जावृ आस्वो हासु। प्रायाचे गांभीर्य वोट्टु तो हासु आज्जीक् अम्का आकर्षित कर्तासा। ते हासाचे उज्वाडु आनीक ऊणे जाय्नी।

बाळमामन कोंकणी भाषा खातीर केल्लेले सेवा, आनी आम्गेले समाज केद्दान जाग्रत जावृ आस्वे तशशी तान्नी केल्लेले काम पूर्ती, बरी शब्दांतु, बरेनु सांग्च्या जाय्ना।

हांवे पुडे सागिले मण्के बाळमामाले बहुमुखी व्यक्तित्व। तो एक्लो कवी, गायकु, कलाविदु, वाग्मी, संपादकु, काण्यो बरैतालो - अश्शी तांगेले व्यक्तित्वाक मस्त तोंड आस्सती। कोंकणीभाषेन्तु सिनिमा तय्यार कोर्चे प्रयत्न जाल्लेले वेळारी सिनिमाकाण्याक् संभाषणा, आनी गीत रचन कोर्नु दिल्लेले नैशी ते सिनिमांतु (जनमन - १९८८) तान्नी कलाविद जावृ काम केल्ला। प्रायु तांगेले उत्साहाक आड येनी।

जीवनांतु तान्नी कांय् होड आशा दवर्नु घेवु आश्शिले न्हंय् । आस्सिल्यांतु तृप्ती पाव्ताची आरामारी जीवन काड्ता आस्सती । जाल्ल्यारी साधारण जावु दुस्त्र्याल्यांतु नात्तिले एक् गुण-आदर्श-तांगेलाग्गी आस्सिले । हेंची कारणानी तान्नी आम्का आदर्श व्यक्ती जावु आस्सती । समाजाचे आडम्भरु अनी प्रदर्शनाक् तान्नी सकत् विरोधी जावु आश्शिले । कपऽट मळ्ळ्यारी तांका जाय्ना । बाळमामुची एक् सरळ् आनी सज्जन व्यक्ती । तान्नी गुरुमठाचे भक्त जावु आस्सती । जाल्लारी तांगेले कुरुडुभक्ती न्हंय् । समाजाचे लोपदोष निर्दाक्षिण्य जावु सांग्ताची ताच्चे कडे आम्गेले गमन हाड्ताश्शिले । वरदक्षिणा तस्सले रोगु निवारणाक तान्नी मस्त प्रयत्न केल्ला । वैचारिकता वाड्डोचाक तांगेले लेखना मुखांत्र प्रयत्न केल्ला ।

सव्वणांपशी तान्नी कोंकणीचे माहा अभिमानी जावु आस्सती । तांगेले दीसानुदीसाचे जीवनची कोंकणी खातीर, आनी अभिवृद्धी खातीर । बहुशः तांगेले सक्कड साधना पळैताना, अस्सलो अनेक्ळो मनिश्याक् आम्मी सोद्दूचाक आकाश पाताळ एक कोर्का जात्ता । आजी आम्गेले पुण्याबलानी बाळमामु आम्का स्फूर्तिदायक जावु । आदर्शप्राय जावु आम्गेले संगात आस्सती । तान्नी घाल्नु दिल्लेले राजमार्ग आस्स । ते मार्गारी चमकताची आम्गेले चर्डुवांक तांगेले विषयारी - बंट्वाळ बाळो म्हळ्ळलो एक्ळो आश्शिलो म्हणु काणी सांग्ताची कोंकणी भाषा अनी समाजाची उन्नती खातीर आम्गेले प्रयत्न आम्मी मुकार्सुनु होर्येत । तान्नी लावु दवर्लेले नंदादीप आनीक् जळता आस्स । ते दिव्यान आम्गेले घर्चे दिव्वो जळोनु, ते उज्वाडांतु कोंकणिचे काम अम्मी केल्यारी आम्गेले जीवनाक वरीन एक् अर्थु येत ।



# अनुबंध

१. नांव : बंट्वाळ वासुदेव बाळिगा

२. जनन : १३-०८-१९१८

३. आव्सु-बाप्सुले नांव : श्रीमती रत्ना बाळिगा - श्री श्रीनिवास बाळिगा

४. विद्याभ्यसु : इंटर् मीडियेट् (बि. इ. एम्. हैस्कूल)

५. व्हार्डीक : २६-०२-१९४४

६. बाय्ल-चर्डुंव : बाय्ल - श्रीमती उमा शांता बाळिगा

चर्डुंव - धूव : श्रीमती इंदुमती, श्री श्रीनिवास मोहनु (जावंयी),
श्रीमती शांतेरी (नाती) - श्री गणेशु (नात्तिलो बाम्मुण)
श्री श्रीनिवास बाळिगा (पूतु) - श्रीमति उमा बाळिगा (सून),
चि. दामोदर बाळिगा (नात्तु)

७. उद्योग अनुभवु: लेक्क परिशोदकालो सहायकु,
ब्यांकाचो मनेजरु,
वाणिज्य संस्थ्याचो विक्र्या प्रतिनिधी,
विमा कंपनिचो कारकून व अभिवृद्धी अधिकारी।

८. पत्रिका रंगांतु : "नवभारत" पत्रिकेन्तु (१९४७),
"सरस्वत" साप्ताहिकाचे जिल्ला प्रतिनिधी,
"प्रभात" साप्ताहिकाचे जिल्ला प्रितिनिधी,
"पंच्कादायी" स्थापक संपादकु १९६७-१९९२,
व्यवस्थापक संपादकु (१९९२- )

९. कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी अध्यक्षु : १५-१०-१९९५ तुलान
१६-०४-१९९७ थंय्

१०. कृत्यो : भगवद्गीता , गीत रामायण, भजगोविंदम्

११. भागीदार् : कोंकणी भाषा मंडल,
कर्नाटक स्तापक सदस्यु,
कन्नड साहित्य परिषत् आजीव सदस्यु,
कोंकणी भाषा अल्पसंख्याथ समिती उपाध्यक्षु,
कोट्टिन् केरळ कोंक्णी अकाडेमी सदस्यु।

१२. क्रियात्मक चटुवटिका : बेंगळूर् आकाशवाणींतु सरासरी स कवन वाचन
कार्यक्रमु (१९५४ तुलान १९६५ थंय),
मैसूरु दसरा कार्यक्रमान्तु तीन पंत भावगीता
कार्यक्रमु दिल्ला,
"जन-मन" सिनिमाचे संभाषणाकर् अनी गीत
रचनाकार् १९८८,
"जन-मन" अनी "तपस्विनी" (१९९०)
सिनिमान्तु नटना।

१३. मान - सन्मानु : अखिल बारतीय कोंकणी साहित्य परिषत् तर्पेन,
कोंकणी अकाडेमी, गोवा हाज्जे फेलो पदवी,
कोंकणी भाशा मंडळी मुंबई - भांग्रा उत्सवा
वेळयारी सन्मानु,
कन्नड साहित्य परिषत् मंग्ळूरु सम्मेळना वेळारी,
केरळ कोंकणी अकाडेमी कोच्चिन्,
टि. एम्. ए. पै फौंडेशन् तर्पेन,
"परब्" मंग्ळूर् हांगेले तर्पेन,
कर्नाटक पत्रिका अकाडेमी प्रशस्ती (पन्नासँ वर्षाचे
पत्रिकोद्यमवसेवाक, कर्नाटक सरकार तर्पेन),
कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी प्रशस्ती
(१९९९)

# SRI B.V. BALIGA

Mr. Baliga became a konkani translator, composer, writer, speaker, editor, poet, singer, dramatist, actor and social worker. This earned him fame to name, not only in South Kanara but also amongst Konkani speaking people of other states. He earned the name of Mr. KONKANI, Mr. Baliga started his journalist career under late Sri M. Vaman Kudva. He was fully incharge of the Konkani Magazine "SARASWAT". Poems & Bhajans composed by Mr. Baliga in Konkani were published in "Gita Sanchay". His Konkani translations of "Bhagwadgita" & "Marathi Gita Ramayan" are popular.

**Miss Mijar Lakshmi Pai,** B.A., L.L.B.

Victoria Printing Works, Bantwal. Ph. : 232946